# हरद्यांतुलीं सवणीं

## कविता संग्रह

एम.जी. राजीव

Konkani

HARDYAMTHULIM SAVNIM

*Poems of*

**M.G. RAJEEV**

First Edition -1999



*Published By*

**PUNDALIK BOOKS**

SREYAS
14A, THOTTUPURATH
ERUVA (W)
KAYAMKULAM
Phone: 0479-446273

*Layout, Computer Type Setting*

**LEKSHMI D.T.P. CENTRE**
**ALAPPUZHA-11**
**Ph: 0477-251328**

*Printed at*

SARASWATHY PRINTERS
THIRUVAMPADY
ALAPPUZHA.

Price Rs 20 /-

# समर्पण

गुरुसमान, आनीक मित्रा समान
माका प्रोत्साह निर्देश दिवंचे
श्री शरतचंद्र शेणै हांका -

एम. जी. राजीव

# मांडावळ

## सवण्या पांरवार-

कवि राजिवाल्या काळिजघरांत जन्मार येवन, पांखा फुटून, वाडून, उडूँक पाविल्या तरेकवार सवण्यांचो विशाल प्रपंच हो संपूर्ण स्वातंत्र्याचें प्रतीक. " अनंत विशाल ह्या प्रपंचात स्वतंत्र जावन भोंवाय -" असो ताचो आशीर्वाद फकत आपल्या कवितां खातीरीच न्हय आसून, संवसार भरच्या समस्त जीवजालां खातीर जावन आसा. कवि हो प्रसन्न उतरांचो प्रसक्त विचारांचो. ह्या ताच्या उतरां-पांखांनी उडता ती कविता नितळ निर्मल आनी सरळ सुंदर. दिसान दीस कालुष्य वाडून येवपी हो आयचो संवसार जरी एक शिला, तेन्ना ही कविता आपल्या हलक्या आनी शांत, पुण निरंत व्हांवान तिचें धारेस्त आंग संथ संथ झरोवन मोव सुळसुळीत करूक सोदता. हांतू थळथळता तें आधूनिक काळांतले कवितेक नष्ट जावन येवपी एक तेज आनी दर्शन.

सैमा-मनशालें नातें चितारपी "सांजवेळ" हे कवितेंत रेखाटिल्लें सांजचें चित्र कितलें सोबित आनी संपुष्ट

ह्या कवीक आपले कवितेंत आपले भोंवतणेन आशिल्या वस्तूंचोच आत्मो उरिल्लो जाय. ताच्या तकलेंर गरजे भायर विचार भावांचें वजें चटोवप ताका आवडना. 'सोरोंगो', 'कीर', 'सिसर', 'कोगुळ', 'सिरलो' - ही सगलींय ताच्या स्वताच्याच रूपांनी रावल्यांत पुण अजाप

म्हळ्यार, तातूं सगल्यांत लिपून बेसल्ले अर्थांतर आमची श्रद्धा ओडून घेता मनीस सभावां क्डेची तांची उपमा निरुक्तपणान तेजवंत जाल्या.

पुण जेन्ना अमोल अशें एक सासणी सत्य कोण तरी एकलो आपण्याक सांगत आसा म्हण्टना तें लिपोवन धरप हें अशक्य 'वर्णराजी !' - हे कवितेंतल्यान तें उदेताचा ! कवीले कान दोळे सदांच उक्ते. फकत ओबसर्व करताच न्हय आसून कितें तरी सोदताय आसा हो. आनी एकेकदां हो सोद ताका स्वता भितरीच करचो पडता. ते प्रमाण वाचप्यांकय तो तांच्या स्वता भितर पळोवन घेवंक लायता.

जीविताविशीचें कविलें मत आनी वीक्षण ताच्या कवितांनी येवप हें तर सहज आनी सभाविक. 'चांग रांदप', 'कुकडाक मारप' ह्या कवितांनी जाल्ले वक्रोक्तींत कसलीय तर अस्पष्टताय ना. 'गांवकारांली प्रार्थना', 'मिगेलें मत' ह्या कवितांनी प्रस्तुत जाता जात धर्मा विशीचे आयचे पिळगेचें स्पष्ट मत कसल्याय बडखोरपणाच्या दिखाव्याविणे, सरल, सरस आनी आकर्षक रूपान उक्ताडाक येता ती कवीची पूरोगामी नदर.

लागडो जावन पडिल्लो राजमार्ग सारखो करचे खातिर कोणे कितें करचें जाय हाची सूचोवणी ताचे कवितेंत आसा. नवें कितेंय न्हय, क्रांतिकारी कितेंय न्हय. फकत कार्यसाधक असो एक सल्लो - पक्क, प्रायोगिक.

ात्मार्थताय, सरळताय, अल्पाक्षरताय, सरसताय,- कविगुण हे गलेय! कवि राजीवाक हांतूल्या खंयच्च्याय गुणाचो उणाव ना हें ुबावाविणे सांगूयेता.

बर्याच कवितांनी कवीन विनोदाचो निपुण उपेग केला - ाचप्याक हासोवंचे खातीर, हगूर चिमटो काडचे खातीर, आनी एकेकदा शेटकावंचे खातीरीय.

'कवीक प्राय ना' अश एक म्हणी आसा. भौ. मनोहर बाबांनी कांय प्रमाणान हाची गवाय दिल्लीय आसा -

देवा कसली करणी ?<br>
केंस जाले धवे,<br>
नदर आजून तरणी !'

कवि राजिवाल्या कवितांनी एकठांय मेळिल्ले पळोवंयेतात ताच्या भितर ार करिल्या भुरग्याक, तरनाट्याक, जाण्ट्याक आनी म्हांतार्याक. ुळशीची काणि आयकुपी भुरगो, राजमार्ग पळोवन दुखपी तरनाटो, गोंयचो उडगास घेवपी जाण्टो, फुगे विकतल्याक परतून धाडपी म्हांतारो - हे सगले जाण कवीले काळजां भितर रावपीच ! ह्या काळजाचो भौतिक आकार ल्हान आसत, पुण हाचो आत्मिक विस्तार व्हड.

कवि आंगान दुबळो आसूंयेता, पुण केन्नाच आत्म्यान दुबळो आसचो न्हय. आयचे सुमार कवि आपली तांक पुरायपणान वळखूंक ना असो दुबाव जाता. फकत नांव-मान मेळोवपांत आनी वैयक्तिक उपलब्दींचे विषयांनी तांची श्रद्धा घसपल्याशी दिसता. मनीश सभाव हो ! मनशाक हें सहज आसत, पुण कवीक न्हय ! अश्या वेळार श्री. सुभास मुखोपाध्याय ह्या बंगळा कवीलीं उतरां आमकां वाट दाखोवपी जावन आसतात -

‘ उतरां म्हजीं उबीं रावचीं जाय-
दृश्यां हीं चलचीं हालचीं जाय -
कवि म्हूण आपोवनाकात म्हाका
दुसर्‍या वांगडा चलचें जाय आतां -
पावला - पावल, बरोबर -
निमणें म्हजें खीण मेरेन - ’

कवि राजीव खुद्ध खंयतर पावूंक सोदीना आसून आपल्या कविता सवण्यांक तांचें विशाल मळब दाखोवन दीत आसा. तीं तर सगलींय व्हडाच आनन्दान पांखां मारीत उब्बून भोंवतलींच. तांकां पळोवन रावपांत आसा आमचो आनंद !

पुण हरद्यांत वाडिल्या सवणयांक जर हरद्यांत रावपाची संवय बी जाली जाल्यार ....?! आज जर तुमचींच काळीजां सोदून, रावपाक म्हूण हीं आयलीं जाल्यार हांकां तुमी न्हयकारूंक शकतलीं ? !

शरतचंद्र शेणै

# सवणी

अनेक जन्मांनी
अनेक वर्षांनी
मिगेले हरद्याचे घूडांत
वाडयलेले सवण्यांक
आज
भायर सोडतां-

अनंत विशाल
हे प्रपंचांत
सगळेयकडेन
स्वतंत्र जावन
भोंवाय !
तांका आशिर्वादूय
आतां दितां-

हे सवण्यांक
हांव मोगान उळदितां
मिगेल्यो कविता

❑❑❑❑

# सांजवेळ

सांजवेळ
चांगवेळ
यो प्रकृतीचो खेळ
मनुष्याले मनांत
शांतिसमाधानाचो मेळ -

सांजवेळ
चांगवेळ
सूर्य समुद्रांत
बुडूचो वेळ
सवणी तांगतांगेले घूडांत
परतून वचो वेळ
मनुष्यांले मनांत
खुशीचो मेळ -

सांजवेळ
चांग वेळ
देवाक दिवलि दवोरचो  वेळ
तुळशीकडे दीवो लावंचो वेळ
देवळांत देवाक
आरतीचो वेळ
मनुष्यांले मनांत
प्रार्थनेचो वेळ -

□□□□

# सोरोंगो

सोरोंगो
ऊँच उबत राबलो
ताची चोंची
सूर्याकच लक्ष्य राबली ।

उणेच घडियेन
सूर्यालागी पावतलो
म्हूण
ताचे मनांत-

सूर्याले तोंडारीच
चोंचतलो म्हूण
ताचे हरद्यांत-

समुद्राचे वारेंय
ताचे ओटू
ताचे भागांत.....

सोरोंगो ऊँच ऊँच
उबत राबलो
सूर्याली मनस्विनी
पावसा मोडांत
आकाशार पावली
तिणें पावस घालो
ते पावसांत
भिजलो तो सोरोंगो
आनी खाला पडलो

ऊंच
सूर्य हासून राबलो !

❑ ❑ ❑ ❑

# दाष्टीक कीर

करंबलेर बेसून
करंबल चोंचून घालचे कीरा.
तुका जीव जाय जाल्यार
कारागृहांत पडका नाका जाल्यार
नुतोच बेसून, नुतोच खावन
वच नुतोच उबून -
सवण्यांक धोरचीं
भोंवताय मू गावांतू

हांवें सांगलेलें हे
आयकीलें कीरान
कान दिवन
जाल्यार
चंद्रायेचे ताका चोवन
खाल राबिल्ले माका
चाळोवन दाकयलें ताणें

आनी
शीटी वाजून
तो पेरीर उबलो
थांगा थाकून एक
शूलावरी
पश्चिमार
माड्यार उबून बेसलो
थंयसाकून
उबून उबून
दूरा दूरा गेलो

❑❑❑❑

# वर्णराजी

सत्याक,
सुर्याय एक कवीच

एकात्मतेचो मंत्र
आकाशार
कविता जावन
ताणें रेखाटून घाला .
ते कवितेंतुली शाय पोणु
एक वर्णराजी जाली .
ते वर्णराजींत निपून बेसल्ली
कविता हांवें आयकिली !

सत्य सांगता -
सवितालो ताळो हावें आयकिलो -
'वैविध्य भरून राबिल्लें हें वर्णप्रपंच
संगलेंच
एकच शाश्वत सत्याचे
विविध भाव मू '

❑❑❑❑

# सिसरी

फातरारि एक फातोर जावनु
तोंड आ कोरनु
एक सिसरी पडल्या
एक चलनय नातिल्लें
दोळ्या पत्ती सरि हालोवनातीलें

खाण सोदून
आयलेलें एक सवणें
ते तोणांत वचून बेसलें

कांय नेणतिल्ले वरी
कांय जाणोवनातिल्लेंय
सिसरी ती
तिजें तोंड संत धांपीता
एकि गूळि बी गिळचे वरी
ते सवण्याक ती नुतोच गिळता



# उठा

निदेवनाका, निदेवनाका -
निर्देवंचाक अशिल्लो
वेळ न्हय आतां !
उठा, उठा,
उठावनु कासलेंच कार्य करी !

निदेवनाका, निदेवनाका -
नीद ती इत्याक तरीय
परिहार न्हय तुका !
दीना ती तुगेले प्रश्नाक कांय
कसलेंय सत्य उतर -

उठा, उठा,
साबार नीद तूवें आतां क़ाडल्या
उदयाची भेरी वाजता, आयक !
पूर्वदिशीं ते दोंगरार
सूर्य उदेवन येता दीक !



# तुळश

घराचे आंगणांत
तुळश राबील्या.....
केस पिकून
एकि म्हातारी राबिल्ले वरी
तिजे कणस सग
सुकून राबल्याय....

आयेन सांगीलें -
"आरे तुळश म्होणची
भक्तविजयांतूले साक्षाल
भक्तवृंदेलो अवतार.
ती सदा कृष्णाचे ध्यानांत बेसल्या.
तिगेली दळांय कणसय
तीणें मोगान
कृष्णाकच अर्पण केल्यांय.
तशी अशिल्ले ते तुळशीर तूवें
कणसय दळांय तशीच
(देवळांत व्होरून दिवनातीलें)
दवरल्यार
तिका अतीव दुःख जाता
विचारान
केस पिकून म्हातारे वरीच
वार्धक्यांत वता रे ती"

❑❑❑❑

# कोकिल

कोकिलाचे स्वर
केदणाय मधुर मधुर
जाल्यार तीं आसाय
केदणाय अळसायेचीं

चोणु पडूक एक घूड सरि
करचिना ताञ्नी .
तांतीं घालताय सरी
कायळ्याले घूडांत .
पिलांक वाडोवंका म्होण सरी
ना तांकां .
कायळ्या पिलां भरशी
तांची पिलांय वाडोय खंय !

गीत म्होण साबाव आळतापेळतांत
भोंवचाक मात्र हीं कोकिलां.
हो कस्सलो नेम ?
हो तांचो कस्सलो योगु ?

❑❑❑❑

# प्रकृति सांगता

दोस्त जावन येवन
तूं मिजो
मोग करूक वता ?
चांग कार्य !
तूवें तुकाच
विसरका जातलें .
तुगेली आर्ती, काम, कुसुंगाय
दूरा उडोवंका जातली .
निष्कळंक हरद्यांक मात्र
मिजेरी केदनाय प्रेम वरता .

काम क्रोध लोभ सोडलेल्यांक मात्
मिजेरी प्रेम दिसता .
तांचेर मात्र हांव
मिगेली प्रीतीय दवरतां .

वच वच
कपट नातिल्लें तें हृदयकमळ
खंय फुलेल्यां म्होण चोय .
वच वच
थंय ते फुलाचो पोरमोळ
भोरनु राबिला चोय .

□□□□

# हस्ती

देवळांतुली हस्ती
ओरें जाली .
तिका चोवंचाक जनां भरलीं .
आय्कलेलीं आरकलेंलीं
हें दिकूक आयलीं .
दिकलेंली दिकलेंलीं
भीवन गेलीं .
काळोच एक दोंगोर सरीच
ती मोरनु पडल्या !

तिजें आंग एक झरकलेंना सरी
मागीर कशि ती खाल पडली ?
होड्डु तिगेलो सूळो तीणें
कशी तो खाल खोंबीलो ?

हुळवुळ मूय चरनु तिजे
नांकांत गेली खंय !
होड पोट तिजें :
तिका श्वास आडकलो खंय !
प्राण ओडियेन तीणें
तिगेली सांकाळ फुटयली .
दिकून राबिल्लो तिका खाण घालचो
भीवन खरशेवनु दूरा धावलो .

आतां आनीक
हस्तेक भायर काडका !
तिगेलो सूळो कापूका
दांत काडका, पाय कातरका.
बाल कातरका,
हो दोंगोर एक भायर काडूक
पागार भेतूका . गाडी उळदूका -

कुराडीय कोयतीय
खोटोय भाटीय घेवन
कातरूक जनां आयलीं

हस्तेची काणी ही खेळ न्हय .
खेळ संगुचें हस्ते - काणीय न्हय .
रूक कातरप न्हय
दोंगोर ओडप न्हय
हस्ति ओरें जाल्यार
कायरीं ती होड कष्टच .

❑❑❑❑

# साबाव सोडि ताका

साबाव सोडि रे ताका
व्यक्तिधर्म आनी व्यक्तित्व
सांगून ताका
कायरीं इत्तें ?

तावतावळ वर्ण परतप
ताका संवय जाल्या
प्रकृतीन ताका दिल्लोलो तो
शापु की अनुग्रह ?
तें सागूक जायना !

तूं ताका साबाव सोडि
खंतयींच वचून तो वांचो

सिद्धांत जायतें सांगून सांगून
आमी मोरनु वतलीं
तो पुणीय खंतयींच वचून वोरो
तो एक सिरलो !

❑ ❑ ❑ ❑

# चांग रांदप

पक्षियेचें मांस

उज्यांत पडून भाजता -

तें पोळोवन राबिल्ले तिजे

नांकात परमळ भरता -

जाल्यार

घूड गेल्लले एक आत्माचें रण्णें

तिजे चोयवशींत भोंवचें मात्र

ती आयकना - - -

# कुंकडाक मारप

माका जीव आसा
कुंकडाकय जीव आसा
माका रगत आसा
कुंकडाकय रगत आसा
कशी हांव ताका
जीवेशी मारतलो....?

हे विषयांतुले गुरून
अशी सांगलां -
"पोटांत वीष भरचें.
दोळ्यांतुलें रगत
ऊब करून पर घालचें,
तू दोळयांत रगत नातिल्लो जातना
कुंकडाचे पायांक धरचें,
ताका हातांत लांबोवन घालचें.
आनी यांत्रीक जावन
ताजो गोमटो काडचो-
हीच एक सरळ वाट !"

❑❑❑❑

# फुगे विकूच्या

ुगे विकुच्या,
ुगेले फुगे
आनी हांगा
ाका कोणाक !

हांगा जाल्याय
सगळे जाण
फकत फुगे मात्र.
केदना हांच्यांत वारें आसा
तेद्दोळ हे चमकताय
उबताय नाचताय
हांसताय, रडताय....
वारें तें केदना सरता,
तावळीच खाल पडताय

ते उपरांते
हांच्यान ना कांय गूण !

हे मनीष श्वसन करताय,
मृत्यूक जावन आतां
श्वसन करताय...
फुगे विकुच्या,
फुगेय घेवन
मुकार खंयींच वच
आमचे मुकार
आनी नाका तूं !

तुगेले खेळ
चेरडुवांक मूं आवडतले
आनीकय
परतून येंवका जाल्यार
कांय तरी वेगळे व्हड खेळ
घेवन यो-
हांगा आमी सगळेय
वर्षा जालेले मनीष !

❑❑❑❑

# मिगेलें मत

मिगेलें जनना पशि पुरथम
तन्नी मिगेलें 'मत' निश्चय केलें
तें मिगेले निडळार
तन्नी बरोवनूय घालें

मिगेलें मत हावें
निश्चय केल्लें ना आसूनूय
लोकांनी मिगेलें मत आनी जात
निमगूक आरांभिलें

खंचेय अन्य मत तें मिगेलें
म्हूण बी सांगल्यार
मिगेले लोक
माका मारूक तयार जाल्याय

लोकांत नात्तिल्लें
नवेंच एक तें मिगेलें मत
म्हूण सांगल्यार
सगटय मका 'पिश्शें' म्हणताय

साधू, तें येशूक
जालेलेय हेच कष्ट म्.

पापियॉक जावन ताणें
खुरीश व्हावली -
त्या खुर्सारीच पापियांनी ताका
तोपून घालो !

हाव बी ह्या पापियांक
खुरीश काडचो ना.
ताजेविशींय ताचेविशीं
चिंताच कोरची ना
दिकूनूच आसत
आज जिवंत भोंवता

❑❑❑❑

# राजमार्ग

राजमार्ग !
आदि थाकून अंत पर्यंत
फोंड भोरनु पडला

हे फोंडांत पडका अशिल्लें
'कील' सगट
खंत्तंय गेलें ?
दंदाकआयलेल्यांलेय
दंद करयतल्यांलेय
दंदाक निर्देश दिलेल्यांलेय
किसांत दुड जावन गेल्यां !

थांगा थांगा फुटून पडलेलें
हे शीरिंतुल्यान
गाड्यो धांवल्यार कोणाक इत्तें ?
पब्लिकाचे आरोग्याक
नाश !

हाका एक परिहारु स्वंत्तंय ?
बुद्धि अशिल्लीं म्होण डिका मारचे
पाब्लिकाचे मात्यांत

❑ ❑ ❑ ❑

# एक वेवसाय

आधुनिक कालाक
अशीय एक वेवसाय

भीक मागातल्यांक
मागून भोवनु परिचय अशिल्यांक
एक दंद –
तेंवय भीक मागुचेंच तं

एकेकल्याक सांगलेले स्थायार
सकाळीं सात वरां थाकून
राती धा वरां पर्यंत
बेसून मागुका मात्र

दुड मेळ्यारीय
ना जाल्यारीय

मासाचो पागार
तुमकां खंडित मेळतोलो
खाण जेवण कंपनीच दित्तसा
न्हेसूक प्रत्येक वस्त्रय दितली !

अंगवैकल्य अशिल्यांक
प्रत्येक संवरण !
अंगोपांग आशिल्यांक
परिशीलना उपरांतें
स्थिर दंद

अशीय एक वेवसाय
आघुनिक कालाक

# अभिनय

ृष्णनाट्टम' नांच दिकीलो
ष्णु चांग दिसलो -
लराम ताजापशि चांग दिसलो.
सु कंसूच जावन दिसलो.

ांत म्होणू दिंवचो,
ळु धरचो,
त्री -दिवले उजवाडांतूलो
सेळु चांग दिसलो.

रापाक मात्यार माळनू
ष्णु जावन खेळ्ळेल्या लागींय
ल घेवन आयलेले बलरामा लागींय
सा लागींय
भिनंदन कोळोव्या म्होण आठोवन
भितर गेलों -

थांगा -
वेषु सरि पोरतूनातिल्लें
कृष्णूय बलरामूय राबून
बीडी ओडताय....
कुप्पो फुटोंवचाक
तयार जाता तो कंसु ....

अभिनन्दन
आनी एक दिसा कळोवं
आतां तें नाका
अशी आठोवन
भायर देंवलों.
आयलेलेच वाटेन
नुतोच चमकीलों ...

# अपराधिनी

दुदा आयदनांत तोंड घालनु
काडूक जावनातीले माजरावरी
माका केला तीणें

लोकांकरान
मिगेले दांत सगट
मारनु खाल घालयल्याय तीणें

गांवचे लोकांचे तोंडाक
चोंवचाक जावनातीले वरी
माका केला तीणें

इतूल साबार अपराध
पुता, तुजेर केलेली ती कोण

आवसूले प्रश्नाक
पुताली जाप
.. अम्मा,
ती वेगळी कोण न्हय
मिगेले जिबेर
अनर्गळ उद्वेवंची
मिगेलीच कविता त
ती अपराधिनी

# लिखणीर ना ....... जिबेर ना ......

त्र रचूचेच वरी
चित्र रचनेक आशा आसा.
वरी अशिल्लें
तें चंदायेचें तोंड
ळंक दोळे
याळो केस
) मिगेले कागतार हाडूक
लो श्रम केला !

तिगेलें तें तोंड
मिगेले दोळ्यांत आसा.
तें मिगेले हरद्यांत आसा
जाल्यार, तें मिजे
लिखणीर मात्र येना ......

हांवें कविता कोरचे वरी
तूं इत्याक करना ?
मिगेले हे प्रश्नाक
तत्क्षण ती जाप दिता

तुमचो हो सौम्य स्वभाव
तुमची ही असाधारण वाक्चातुरी
मिगेले कविता विषय करूक
हांव खूब आशेल्यां
ती कविता मिजे
हरद्यांत आसा.
ती मिजे मनांत आसा
जाल्यार ती मिजे
जिबेर साकून
भायर मात्र येना ....

❑❑❑❑

# उत्रांची मांय

पुस्तकांचे आंगडींत
पुस्तकां मदें
पुस्तकां वाचून, विकून
एकी पुस्तकां मांय बेसताली.

केदनाय पुस्तकांतूच लीन जावन
बेसताली ती -
उणेच मू उलयताली.
तशी ती
ऊणें उत्रांची मांय आशिल्ली.

पुस्तकां वाचून विकून
ती म्हांतारी जाली .
अंत्यार पुस्तक वाचूनूच
ती मेली.

उबारूक अवसूनातिल्लें
एक व्हड पुस्तक जावन
लागीचे जन्मांत
ते आंगडींतूच ती आयली
चडच उत्रांची मांय जावन

❑❑❑❑

# चली

केस तिगेलो
घोड्या बाला वर्णाचो -
आंग तिगेलें
गोरबाणीचें -
दोळे तिगेलें
पिंगशे -
वोंट तिगेले
तांबीडे लिपस्टिकाचे -
ड्रस तिगेलें
सायबिणीचें -
कानाक तिगेले
मोत्यांचें रिंग -
गळ्याक
मोत्यांची माळा -
हाताक
फातराचें कंकण -
पायाक मात्र
चड मोलाचें
हायहील व्हाण

हांवें निमगीलें.
पायाक मात्र इत्याक तुका
चड मोलाचें ?
ती सांगता.
अन्नू, मिगेलें देह हें सगळेंच
हांवें हे व्हाणार राबयल्यां !

* * *

# फटी

फटी ! फटी ! फटी
ती सांगता -
तू सांगूची सगी फटी

खंय जाली माका चुकी ?
खंय स्वताक हांवें सुधारचें ?
हरदें हें उगडून दाकोवंची
जाली मिजे मनाची सवंय.

ती संगता
न्हय,
जीब काडल्यार तूवें
फटी नातिलें सांगूचें ना.

जीब तुजी चोरडवांची
मन तुगेलें काळें
हरदें तूजें ताटर !

हांवें सांगलें -
तूवें सांगूचें तें सग
सत्यच म्हूण आठय
जाल्यारीय
सत्य हांवें हें सांगचें
तुजे हरद्यांत
केदनाय दवरी.
माका तुजेर इष्ट! इष्ट! इष्ट!
सगटांपाशि चड इष्ट
तुजेर मात्र !

❑ ❑ ❑

# पूर्ण

सूक्ष्म सूक्ष्म दिसूचेंच तें
स्थूल स्थूल जाल्यां.

एक सान बियेंत आसा
होडु तो रूक

अणु म्होणचें अतिसूक्ष्म
जाल्यार अणुस्फोटन तें अति भीम.

एक थेंबो उदाकय
होडु तो समुद्रूय एकच.

एक उज्याकीटीय .
होडि ती वनाग्नीय एकीच.

हांव, हांव ! दिसोवंचो आत्माय
ब्रहमांड भोरनु राबिल्लो परमात्माय एकच.

❑ ❑ ❑ ❑

# पावसु

पावसाक ख्राल भूमीर
पावंका म्होण .........
जोगलाक भूमीवेले जीवींक
भिसरावंका म्होण ......
गुड गुडाक
कान केप्पो कोरका म्होण ......

घरकडचे दीव्यांक
उजवाडून राबूका म्होण ...
ते उजवाडांत
पाखतरांक नांचूका म्होण
पागरार बेसल्ले सोकनेक
प्राण्यांक धरून खांवका म्होण ..

एकसानीच हें सगळेंय
चोवंका जाल्लें मूं म्होण
माकाय विचारू .......

❑❑❑❑

# मांय आनी सून

अशी न्हय, तशी !
गीर कशी म्होण
नेन निमगिल्यार
येंक ना एक उत्तर

काळी
ांगण झाडूक सून वता
ाणु येतना
क खोल्ली बी वार्‍यान पडलेली
कल्यार
य सांगता -
दुशेर झाडी ! दुशेर झाडी !

ायचेर वचून
दाक भोरनु हाडूया म्होण आठयल्यार
य जल्पना करता -
कोळशो ताटोर करतली
ळें बांयत घालतली
ळ्या दोर तुटयतली !

दून तिका वाडल्यार
सांगलती -
मीट ऊणें ! तिकसाणी चडी!
ोडसाणी ऊणे ! आंबसाणी चडी

ायेंलेंय मांवालेंय
स्त्रां उंबोळेनू घाल्यार

ती म्हांतारी सांगतली -
"सोपेची वसणा गेली ना !
पोसय, पोसय,
दुशेर पोसय ! दुशेर पोसय !"

कूडांत कूडीत वासरेंत
पुसूक भायर सरतना
ती सांगतली -
"हो, हें घर सगळेंच पुसून ती
तिगेले बापाथंय होरनु दितली !"

सुनेन घरकडे
कांय केल्यार
मांयेंक सायना
"अशी न्हय , तशी !
म्होण मांय.
मागीर कशी म्होण बी
सुनेन निमगिल्यार
मांयेंक ना एक उत्तर.

दंद कोरनु , दंद कोरनु.
सून जाली सुकडी.
मांय जाता तरणी
सून जाता म्हांतारी

❑❑❑❑

# तुळशी पूजा

तुळशीक्डे पुजेक
भटमाम आयलो.
तुळशीक माळा घालनु
आरती दाकयली.

दिगूच नमस्कार
तुळशीक घालनु
उटावंचानिक त
बापूस दिकता -
तुळशीर एक
केसाचो जेटो

कोपान तो बायलेक चोयलो
चेली आवसूमागल्यान निपली.

रंग हें वायट जाता दिकून
चेल्यान जाप दिली -

आयो, तो तुळशीद्देवीलो केस
कोपू नाकाय -
तो ओडून काणु बाधा कोरनाकार

चेल्यालें हें उत्तर
संदर्भाक अवसलें
तें आयकून
आवस हाशीली.

चेली हासून
आवसू मुकार येवन राबीली
तांचो हास पळोवन
बापूस हाशीलो.
भटमामूय चेलोय
होडान हाशीले -

रंग शांत
तें नियंत्रणांत राबीलें

❑ ❑ ❑ ❑

# आयी

ालेंच कायरी काडल्यारीय
ाले आयेक आसा
ाले जिबेर पुराण.

ोलो मालगडो पूत
ालो म्हांत
पर गावांत भोवंडेक गेल्यार
सांगता -
ो वे,
आनी गांव सग लासून मू
ून येतोलो !
णीक तिका
ा लासून आयलेले
मंतालो उडगारस.

ाी घरकडचो
ामण मामालो पूत
ादनेक बेसला दिकल्यार
ातली ती -
ो वे,
भेका वरी गिळतोलो
णीक तिका
त कथेंतले भीम आनी भेकालो
गारस.

मुकावेले घरकडचे
पोम्मक्वान
न्हेसून भायर सरून
बाजारांत वचें दिकल्यार
ती सांगतली -
ती वे,
हालून धोलून ती
उर्वशी मेनके वरी नवें वता !

हें आयकतना
माका येतलो कोपु
हांव सांगतलों
आये तुका
नुतोच बेसूक नज वे ?

तावळीय ती
दित्तसा जाप -
होडु एक सुतपुराणीक
उपदेस दिवंचाक आयला
तिका चांग सांगल्यारीय
तीणें दिवंची जाप
ती परणी, पुराणांची.
पापणीक तिका
भागवत सांगून दिलेले
सुतालो उडगारस !

# दीवोडु

वाटेर हांवें
एक दिवडाक दिकीलो
दिवडा दिकून हांवंय
माका दिकून दिवोडूय भिल्लो.
भयान धावन तो बीळांत चडलो
मागल्यान उडकि मारनु खरशेवन
हांवय राबीलों.
मागीर माका दिसलें
माका भिवंचे दिवडाक
हांवें इत्या भीवंका ?
वाटेर पळ्ळेली बडी एकी काणु
दिवडा लागी सरलो हांव !

दिवडाक दिसलें
ताका भिवंचे मनिषाक
ताणें इत्या भिवंचें ?
बंटणाचे वेगान विरकळेंवचे
फोरीन सातलेवरीच
ताणें तागेलो फणो विरकळायलो
दिवडाक हांवें दिल्लो एक मारू.
दिवडान दिल्लो माका एक घासू.
गांवचे लोकांनी दिवडाक मारनु काळ्ळ
वाटेर वचे जनांनी
माका आस्पत्रेंत व्हेलो ...

❑❑❑❑

# दुशेरी व्हारडीक

व्हारडीक जाली
व्हकल गांवची.
व्हरेत दुरगांवचो.
तीं दूरा गांवांत वताय-
व्हारडीक जावन
हणीमूणा वरीच ती यात्रा-

ट्रेनांत बेसून
बामणान बायलेक कळयलें -
ही मिगेली दुशेरी व्हारडीक . . . .

हें आयकून
आतां पर्यंत हासून संतोषान
खेळकायो उलोवन बेसल्ले
बायलेलें तोंड मौन जालें.
हरद्यांत तिका
एक भारु दिसलो.

हो मनीष
हें इत्तें सांगता ?
आवस जावो बापूस जावो
लागीं ना
भांवड भयण्यो नांय
हें दुःख
कोण आयकतलें ?

तावळी बामणान
बॅगांत थाकून एक पुस्तक काळ्ळों
पावसा मोड भरल्यावरी
तिजें तोंड आतां काळें-काळें-

हो मनीष
आनी हें इत्तें दाखोंवचाक वता ?
मुरथमलचे व्हारडीकेचीं फोटोय
पत्र कागतांय बी वे?
हरदें मारचें चड जालें ........

बामणान हळूच संगलें-
चोय !
मिगेली प्रथमली बायल पुस्तक
ताजे नंतर मात्र
तूं माका बायल !
हें आयकून मात्र
तिगेलो जीव सम जालो
तिगेले मुखामळार
हासु फुटलो -

एक सासु पक्षीयो
बंधनाच्या घूडांत थाकुन उडून
आकाशार उबलेले वरी . . !

# ध्यान शिकलों !

गुरूवरीच ध्यान करूक
शिष्याकय शिकूका.

दोळे धांपून
देवा मुकार
शिष्य बेसलो पत्मासनार.

चांग बेसप.
मन शांत.
तो दुःख सर्वय बिसरलो .
तो ताकाच विसरलो.

गुरूचे लागी येवन सांगलें -
" गुरो , हांव ध्यान शिकलों "

गुरून जाप दिली -
"तूं ध्यान शिकलो म्हळ्ळेलें
तें चांग कार्य.
तांतूं मदें
हांवें तुका दिल्लेलें तें साल
तूं थांगाच विसोरनु आयला
म्हळ्ळेंलें मात्र
अतीव कष्ट"

❑ ❑ ❑ ❑

# गुरुजी

आमगेले पुस्तकशालेंत
येवंचे गुरुजीक
सत्तर वर्सां भायर प्राय
शेंडी घालोलो धवो केस
कास घालनु वेष्ठी न्हेशिल्लो वेषु
एकमात्र दृष्टेनच
सगटांक आत्ममित्रां करचे
ते मनषांलें
सरस भाषण तुमीय आयकाय
हांगा
हांवें आतां इत्तें सांगूक?
भारतीय साहित्य – विशिष्या संस्कृत
एक होडु म्होवाचो समुद्र

ताजे पाडीर बेसून म्होवारुची
चोवंचे मूये वरी हांव हांगा
कोणें इत्तें इच्छेल्यारीय
साध्य कोरनु दिंवचो हो समुद्र
माका तांकूचें तें ऊणें
तें उणेच क्राणु मिगेली तान सारयता

प्राचीन आचार्यां पासून
कोळनातीले लोक
माकाय गवेषक म्होण
मोगान उलदिताय
पुरस्कार दीवनु माकाय
मानीत कोरूंक
भायर सरतारा

# गांवकारांली प्रार्थना

आमका
गांवचे लोकां मदें
भिन्नता कसली ?
खंचेय जावो जाती - मत
आमकां ना कांय खेद.

हांव देवळांत वतां,
मिगेलो आत्ममित्र एकलो
मुसलमान मसजिदांत वता.

सोणु वचूनातीले व्याधी खातीर
हांव 'मुक्ती' लागीं पावंतां.
नित्य कोरचे 'निस्कारा' बळान
तो गांवांक अभिमत वोयदु.

खाटल्यार पडला एक
खारो ब्यारेली,
मिगेलो बापसूलो मित्र.
हांव ताका पळोवन येतां
तो सांगता -
" देवळांत वतना
पाकाय जावन प्रार्थना करी- "

आमका
गांवचे लोकां मदें
भिन्नता कसली ?

जाल्यार
हून एक वारें
घुवनूच आसा.

आमकां सगटांक कळता
खण्डित !
तें वारें आमचे गांवचें न्हय.
गांवचे हरद्यांत वैर ना
तें भायरचें.
गांवचे हरद्या भायरचें.
मनुष्या हरद्या भायरचें.

मनुष्याले पूर्वीरूपांत अशिल्ले
ईगोक
आमी हे गांवचे लोक भितायं.

दूरा थाकून

समुद्रा पाळ येवंचें दिकतना
ओटू आशिल्यांचो हात
ताराटून धरचे वरी
आमी
हे गांवचे लोक
हात धोरनु राबताय

एकसानीच
एक मेळून
एकडे केलेले
हात उबारताय .
सर्वय तराचे विश्वासींकय
अविश्वासींकय
सर्वय तराचें 'ईसम
घेवन भोंवचांकय जावन
स्वतांगेले हरद्यांलागी
प्रार्थना करताय -

" तूं माका एक मनीष करी !
मनुष्यत्व महद् धर्म
हें केदनाय माका
उडगास करी !"

❑❑❑

# काक्या तूं .........

हो गीत मात्र म्हॉणक्का
चेरडाक निदावंचाक म्हणटा तू-
जाल्यार
मिगेले मनांत त्रास जाता.
गोंयची काणि उडगास येता

पूर्वजांनी भोगिल्ले कष्ट
फरंग्यांलें पैशाचिक मतपरिवर्तन
पूर्वजांक ताण्णी दिलेलें पीडन
हें सर्व मिजे मनांत भरता -

फरंग्यांक भीवन
आमगेले पूर्विक हांगा आयिल्ले ?
तशी दिसना माका.

रेवेंक जावन
झगडीं झूज घेवंचो न्हय धर्म्.
ऋषिप्रोक्त , वेदाधिष्टित

संस्कृती राकूचोच आमचो धर्मू
अशी लेकून
देवाक काडून, साळग्राम घेवन
तारवार चोडून तीं
ह्या गांवांत आयिल्लीं

ही सगलीच काणि
एकेक दृश्य जावन दोळ्यांत येता
तुगेले हे गींताची पंक्ती
मिजे हरद्यांतूच खोंबता –
'काक्या तूं गोंयांत गेल्लोलो वे ?
धुवेले बामणाक दिकलोलो वे ?'

भारतसंस्कृतीचे मूळार
फरंग्यांनी दिल्लोलो प्रहार
ती संस्कृती सांबाळूक
पूर्वजांनी काडलेले कष्ट
एकेक
उडगास येता –
तुगेलो गींत हो
माका दुःखांत बुडयता

❑❑❑❑

काळीज हो एक घोंटेर-
उमाळ्यांच्या सवण्यांचो !
तीं कांय वेळ मळबांत भिरभिरतात
आनी मागीर आमच्या मनांत
घोंटेर करतात !
केरळचो तरणाटो कवी एम.जी.राजीव
आपल्या हड्ड्यांत वाडयलेल्या
सवण्यांक भायर सोडटा.
तांकां आमी आमच्या
मनाच्या आंगणांत येवकार दिवंया !
राजीवाचीं उतरां
आमचीं सगल्यांचीं
हे उमाळे आनी हीं चिंतनां
मनश्याचेर,
मनश्याचे देशेचेर !
राजीवाल्या कांय काव्यांक विनोदाची
एक हय-न्हंयशी छटा आसा.
हड्ड्यांतलीं हीं सवणीं
आमकां जाग हाडूं दी !
सवणीं दिगंतराक उडूं दी !

पणजी
30.11.1999

मनोहरराय सरदेसाय